वर्स : सात अंक : चार

वर्षा अंक जुलय/आगस्ट १९८९



कवितेचें कोंकणी द्वैमासीक

संपादक : पुंडलीक नारायण नायक

मुखपृष्ठ : श्रीधर कामत बांबोळकार

छापपी आनी उजवाडावपी : नारायण वादोळकार
कुळागर प्रकाशन, पो. बॉ. नं. ७८, मडगांव ( गोंय ) ४०३ ६०१

छापणावळ : हिरू नारायण नायक, अपुरबाय प्रिंटर्स, वळवय गोंय

संपादकाचो पत्तो : पुंडलीक नारायण नायक
वळवय, सावय-वेरें, फोंडें ( गोंय ) ४०३ ४०१

अंकाचे मोल : २ रुपया वर्सूकी पटी : ( विशेशांकासयत ) १२ रुपया

## मांडावळ

# आवयन पुताक सांगल्ली बरी बूद

खोटें केदीं चिंतिनाये
फटी म्हळ्ळचो मारिनाये
वायटा सांगात धरिनायेरे
म्हज्या बाळा

पातक म्हळळें करि नाका
हाताक मेळ्ळें भोकायनाका
शितां शिंपल्यार मस्ति नाकारे
पायांथळा

खाणा जेवणाक लबदोनाये
कोणेंय केल्लें अपडणाये
उणें म्हणोन उडयनायेरे
दिल्ल्या फारा

घात मतींत चिंतिनाका
सत सांगेंक लजानाका
हात पेल्याक उबारनाकारे
सुकुमारा

खोडी काडूंक वचनाये
व्हडांकडे झगडनाये
मोटचा ताळचान उलयनायेरे
कोणाय माजीं

मर्याद तुजी होगडायनाका
फिर्याद केदीं व्हरनाका
दर्याफ्त करूंक बसनाकारे
सांगात्यांची

चिंतिनासतां उलयनाये
मतींत आयिल्लें बोगोळणाये
दांत सोड्ण हासानायेरे
पेल्याहुजरीं

मोडता पऱ्यांत बागायनाका
तुटता पऱ्यांत वोडीनाका
लोटता पऱ्यांत रावनाकारे
सयऱ्यांघरीं

('कोंकणी दिखे' आगोस्त १९१२)

# आठ कविता

## रोहित चित्ताल

१.

**प्रेम**

जे तुका साध्य जाले
तेच किते तुगेले साध्य आशिल्ले
जे न तुका साध्य जाले
तेच मगेले प्रेम आशिल्ले

जे तुका आज मेळले
तेच किते तुगेले ध्येय आशिले
जे न तुका मिळविच्याक जाले
तेच मगेले प्रेम आशिले

दुर्लक्ष करनु अस्तित्व मगेले
निरोप घेतस्तना स्वकियाले
याद करनूक ज्याका व्हावले डोळे
तेच मगेले प्रेम आशिले.

२.

**उडगास**

दूर तूं थंय
विरहात आज
रात्र आसवांत भिजली
ना तू जरी
आज हांगा
उडगास येतात तुगेली
जशी भिजिली
श्रावणातली सरी

विसरु तुका कशी
केल्या हांवे रे
नशा तुगेल्या डोळ्यांतली
दशा ही आजची
आसा साक्ष तुगेल्या
कमी जालील्या प्रेमाची
तू ना जालो तरी
आज भोवती
काजवे जावन जळली
जवळीक तुगेल्या स्पर्षाची
दूर तूं थंय
विरहात आज
रात्र आसवांत भिजली

३.

## याद दवर

रंग अजून घेवचो आशिलो
फुलपांखराल्या नाजुक पाक्कान
पाक्क तुका तेन्नाच दिली
प्रणयाच्या मेगेल्या स्पर्षान

रंग अजून घेवचो आशिल्लो
उमलतल्या कोमल फुलान्
कळत तुका तेन्नाच फुलयले
धुंद मेगेल्या श्वासान

रंग अजून माळचो आशिलो
केसाच्या तुगेल्या मागान्
मार्ग तुका तेन्ना दिलो
मोगाच्या मेगेल्या दिव्यान

रंग अजून घट्ट जातलो
यौवनाचो शरीरार क्षणाक्षणान
माका विसरताना याद दवर
लोक तुका आपयतले
मेगेल्याच नावान

४.

## वतस्तना तूयें

वतस्तना तूंये
सुक्यां तुगेल्या शद्बांबरोबर
जर व्हांविले आशिले
दोनच अश्रू तुगेल्या डोळचातल्यान
दवरताशिलो हांव ते
मोत्यांमणकी
मेगेल्या उडगासीच्या
शिंपल्यातल्यान

पण आज
दोन समांतर
धावतल्या रुळामणकी
धावतच आमी उरतलो
कारण जेन्ना बदलकाशेलो
तेन्ना आम्मी बदलल्लो ना
सांधो आमगेल्या जीवनातले.

५.

## इच्छा

नाती ही सगळी
रक्ताची
ना आशिली केन्नाच
मेगेली
आयुष्याच्या ह्या
सांज वेळेरी
माकाच आसा
साथ मेगेली

वसंत ऋतुत
आयुष्याच्या
शुष्कता घेवनु फिरलो
कंठाभितरी
आयले अन् गेले
अशीच पावसाळे
जळत गेली
पालवी मनाची

तुटून पडच्या
ह्या समयी
आसा हांवच
मेगेली सावली
तरी केन्नापुणी
अशीच दिस्ता
उरका कुणीतरी
मेगेल्या उषालाग्गी.

६.

## जीवन आमगेले

जीवन परत एक दिवस
आज जाले उणे
घडाळच्या काटयाक बांधुन हातपाय
जगतात आमी हे जीणे

धा तास श्रमात
पिदुन गेल्यात आम्ही जना
रगत आशिली यंत्र जाल्याची
आमगेली काळजा
आनी मना, स्वप्न आमगेले
विकत घेता पैशांचे दुष्ट नाणे
घडयाळच्या काटयाक बांधुन हातपाय
जगतात आमी हे जीणे

आज शांत निजु दिना
फाल्याची पोटा चिंता
एक घोट
कोडू सोऱ्यात सगळो
विसरतात आमी दुःखा
काळोख सदा
आमगेल्या वाटयाक
सुखाचे दिसना केन्ना चान्ने
घडयाळच्या काटयाक बांधुन हातपाय
जगतात आमी हे जिणे

हो एक दिवस
गेलो तो गेलो
फाल्याचो तरी येवो बरो
इतलेच आमगेले
उरता ऊरांत एकच होड मागणे
घडयाळच्या काटयाक बांधुन हातपाय
जगतात आमी हे जिणे.

७.

## संप

सारिल्या संपाचो आणि
संपान सरयीलया संसाराचो
आज तरी शोध घेत
फिर नाका तू !

आज तरी
शोध घेत रस्त्यावयल्यान
फिर नाका तू अश्रूंचो
सदाच रात्रीक येता
हांगा धूर ताजो

अस्तीपंजर देहातल्यान
जेन्ना उडचों घेतात
दु:खाची असंख्य हाड्डा
तेन्ना उरतात हांगा
तांका ओडनु व्हरच्याक
पुराच्यो ह्यो लाट्टां

सोडिले असंख्य निश्वास
तरंगत उरका
मंद दिव्यांच्या घगघरातल्यान
आणि दम्याच्या
खाकील्या आवाजात
निपका एखादो हुंदको
त्याच ओणिओणितल्यांन
शोध घेवचेर फिर नाका
आज तरी तूं
डोळचातल्यान
व्हावतल्या उदकाचो
आणि
संपान संपील्या संसाराचो !

८.

## नकार तुगेलो

हो नकार तुगेलो वार अखेरचो
मागचो ना केन्नाच दान हांव
सोंसले असले सोसेन खुपदा
दु:खाचीच जाल्या खाण हांव

हो नकार तुगेलो जाळ जळतलो
पेटतले जावन आज रान हांव
फिरयलो तुये जरी शब्द तुगेलो
दवरतलो स्पर्षफुलांची जाण हाव

हो नकार तुगेलो साथ मजो
हाडची ना मधे आण हांव
घुशीलो तो दवरीन काळजात तसो
ओढनु काढच्यांना हो बाण हांव.

## सु म. तडकोड

### चान्न्या राती

चान्न्या राती मोरपांखां
शीतळ वारें दोळयां दुकां
साळोरी गे व्यथापार
नुलयत् सपनगितां

मोने चान्ने मोने फूल
खैमाक घाली जीणे भूल
शिरी शिरी राती - अुले
दुकां - शिवर ओले ओले

मायेयाद मोनीकाणी
जीण पडंग रूप्याखाणी
पालवत्या राती - अुमो
घेवन न्हिदी दुकां - राणी

### वसंताचो रंग

ल्हारावन आयला मळबाक म्हज्या वसंताचो रंग
कोगूळ गायता चंवर धोलयत सुर्या जालो दंग

निळी सांवळी निथळू लागली अळंग अळवार मन
पोरसांत म्हज्या फुल्लीं फुलां बेभान जालें तन

तालार पानां म्होंवाळ दिकाळ वसंताचो साज
गे रंगान गेली भिजून राधा कृष्ण पिसो आज

साता - सुरांक आयलो हुंवार बाये अुबी रात
आमोरीची फांती फुलयत मंद्र जाली वात

# अणकारीत कविता

मूळ हिंदी **नीलम श्रीवास्तव/रमेश भगवंत वेळुस्कार**

## १. पांचवे रंग

म्हजे कुडी फाटीं रान आसा
रानांत तरांतरांचे तण झोपां आसात
ह्या झोपांचेर वसपी
तरांतरांचे पांचवे रंग
म्हाकां नावां येना —
ना ह्या तणा झोपांची
ना पांचव्या रंगांचीं
पुण म्हाकां दिसता म्हजी
ह्या रंगांकडें दाट सोयरीगत आसा.
जेन्ना जेन्ना हांव म्हजे कुडींत
एकटोच आसतां
हे सगळे रंग म्हज्या दोळयांत
घालून घेतात
म्हाकां उजवाड दितात
म्हजेकडें मोन्यानी उलयतात
हे पांचवे रंग
वयर पातळ्ळेल्या अनन्त
मळबाच्यो खबरी
कुपांच्यो खबरी
केन्नाच न सोंपपी
सूर्यलोकाच्यो खबरी
हे रंग तदरूप जातात म्हज्यांत
आनी उदास निर्गंध वाऱ्याचो
कायाकल्प जाता
गळसणलेल्या शिळांक तडो वयता
म्हज्या शिरांतलें ताजें रक्त
रुणझुणूंक लागता.
जशीं सपनां रूपां धारण करतात
जशे सुक्या तळयांत झरे फुटचे
तसोच पांचव्या रंगांत
म्हजो पुनर्जन्म जाता.

२.

## साळोरी

साळोरेक पांदऱ्यांत बंद केल्या
साळोरेन पाखां फडफडायलीं
तिडकली, पिरजंळ्ळी.
साळोरेक रुचीक खाण जेवण मेळपाक लागलें
साळोरी पोसकी जाली.
साळोरेक उलोवक येतालें
शिकयल्यार तश्शें
उलोंवक शकताली.
तिका ताणी भासो शिकयल्यो
जेवणाच्या दर दाळी वांगडा
उत्काच्या दर थेंब्या वांगडा
तिका भासो शिकयल्यो
साळोरेन घोस्ताच्यो भासो शिकून घेतल्यो
साळोरी-अजापांची गजाल
आपली स्वताची भास मात विसरून गेली.

साळोरी खऱ्यांनीच विसरल्या –
आपल्या जल्माची - घोंटराची भास
वाऱ्याच्या ल्हारांर धोलपी
फळां - फुलांची भास
दुकळांतलें दुःख
हुंवारांत नाच्च जावपी शेतां - भाटांची भास
हजारांनी वांगड्यांवांगडा उडत वचपी
मुक्त नदरेची,
अुक्त्या मळबाची भास;
साळोरी विसरून गेली
आतां साळोरेन
पांदऱ्याचें व्याकरण शिकुन घेतलां
स्वागतम् म्हणप
परबीं दिवप शिकून घेतलां.
पांदऱ्याचो घटमूट पारो
आनी रूप्याचे वाटयेंतल्या
जेवणा बदलाक साळोरेन
धनया सायबा
आईबाय
बाबुल्या
हें सगळें म्हणपाचो झेत
शिकून घेतला.
साळोरेन "सलाम हुजुर"
म्हणप शिकून घेतलां.

('सन्नाटा चुप नही है')

## आर. रामनाथ

### एक मेळ

एक मेळ
खेळटा खेळ
ल्हवू ल्हवू
सरता वेळ

खेळ मळार
दंग दंग
इन्द्रधणु
शेण्टा रंग

काळा जाण
जाणा कोण ?
अचळय पड्टा
फोणार फोण . . .

# पांच कविता

रमेश घ. लाड

१.

**तूं कशें !**

मिरगावेळें मोगरें गो तूं
धूंद गंध, जाये फूल
रातराणये परमळ तूं
गुलाबाचें तांबडें फूल

ओंवळी फुलां सर गो तूं
सुरंगी फुलां वळेसर
कवाशाचें पान बाये
आबोलेचो तांबडो कोर

केळें पिठूळ रसबाळें तूं
पणसांतलो घरो गोड
अमोरपिकें चिचे बोट
मानकुराद आंब्या फोड

कुरकुरीत पिपरी गो तूं
आडसराची कातली गोड
गुबगुबीत चिबड बाये
तांबडीगुल्ल काळंगा फोड

सणसणीत मुड्डशी तूं
खाजनातली शेंवटाळी
विस्वणाचें पोस्त ताजें
पयली वयली बांगडुली

हालव्यावरी पितोशी तूं
बिमलां हुमण सुंगटांचें
कुळण्यातलें बांगड्या सुकें
रुचीक हुमण कल्लेचें

एकादशी कण्ण गो तूं
हळडी पाना पातोळी
ताजें ताजें रुचीक भजें
हुनहुनीत पुरणपोळी.

२

## असो काय हंसतय ?

अगो माज्या आबू,
मी मगो तुजो - बाबू
तुयां खळचान पावल्लय तेवां
तोणाक लांयव्हतंय साबू - ऽऽ !
तुका बरो दिसांग नको - ऽऽ ?
नाय तर तुयां म्हणशीत मगो –
"नको माका असलो खोको ;
जळ्ळां मेल्याचां तॉण
माका इलाहा मागणी घालांग"
असां म्हणान रांडग्याच्या
घालशीत तोणान शेण –

बॉल मगो कायतरी !
तोणसां शिवाय इलय ?
तेंवां रागान गेलय –
आतां तोण घेवन इलय !
भंगलो तुजो राग
त्याका खांव वाग
तुजो-माजो जमलो शिरंगार
पळान वचाया कारवार !

अगो, अगो, अगो ! !
असां गो का ऽऽ य ?
शिरां मार व्हरान –
ये तरी घरा ऽ न !
असां काय तां ऽऽऽ ? ? ?

" आंबाडयाचां रायतां ऽ !
चुलीकडें बसान खायतां
माका दिल्ल ऽ ऽ य ?
मियां ना येंवचंयं ! "
शिरांमार तोणार
भंगलो वयतलो कारवार
दमडी ना खिशान
लोक काडीत पिशान
माजां थरलांहा लगीन,
वचांग होयां बेगीन.
पंगतीक बसांग ये
सोजी भुरकावन घे
असो काय हंसतय ?
मियां खोटां सांगतंय ? ?

३.

## बैल झुजायले

बैल झुजायले गा आमी
बैल झुजायले
पांचव्या मळार देंवत्या वेळार
बावटे नाचयले
आमी बैल झुजायले.

एकार एक लागल्यो धिरयो
शिंगार शींग आपटलें
खडा-खड जाल्ले आवाज
ताळयो मारीत आयकले

एकाच गांवचे बैल सगळे
एकामेकार ताणशेताले
नाकांतल्यान वाफ सोडीत
नितळ वारें विटयताले

उडोवन वाऱ्यार धुल्लकुपां
फोण भुंयेर मारताले
क्चाकच मारीत शिंगां
पोटां मांडयो फोडटाले.

पळोवन पाट रवताचे
जायते शाणे म्हणटाले
'बावटे हालोवन लावपी झुजां
तांचे तेच पालयतले'

भर भारार पावल्यो धिरयो
बावटेवाले अडचेल्ले
अळंग आतां वाटावन जीव
धिरयो कशे सोडयतले ?

अकस्मात दाटली कुपां
चकचकाटान दिपावले
गोंदळ जावन सल्लेकडेक
रूख पळोवन जळ्ळेले

आळाबंदा हाडचे कशे
बैल हट्टाक पेटलेले
तणा-भोऱ्यां हांयस दाखोवन
तितल्या वेळार शांत केले.

केन्ना परत शेपडी उडत
कोण आसात सांगतले
सरणाचेर भाकऱ्यो भाजपी
तकली वयर काडटले

४.

## एक सपन

सांपळयांतलो मानव जेन्ना
कच्च करून जातलो जागो
तेन्ना ताका पडटलें एक सपन
आनी दिसतलें सपनांत
एक पाड राजपाटण,
आनी पोंरव-पोंरवत
धडपडपी एक जीव
कांच जाल्ले धरतरेचेर
ताजी सोरपावरी आवतिकाय
पुंजावन घेवंक हारशे,
मायक्रोस्कोपी परिक्षेचे
सोद घेवपाक पूर्वजांचो,
शिपडून गेल्ल्या तांच्या
बुदवंतकाये कणांचो
बांदचेखातीर तर्क
तांचे ते उन्नतीचो.
पुंजायल्ल्या कांचांतल्यान
दिसतली फकत ताका
एक पानाळ पांचवी बाग
रसरसून फुल्लेली
आनी पुराय गजबजिल्ली
जित्या रसान फसफशिल्ल्या
जित्या जाग्याजिवांची
तेन्ना तो धादोस जीव
मारतलो किळांच
युरेका ! युरेका !
आनी पडटलो सूद वचून
सांपळयांतलो मानव जेन्ना
लकतलो न्हिदे भारान

५.

## मुक्तताये झुजाऱ्या

मुक्तताये झुजाऱ्यारे
लाख म्हजे प्रणाम तुका
भुयें नांव लावचे आदीं
जावचें स्मरण तुजें म्हाका

मुक्तताये शक्त ओपून
झुजले तुमी सांखळचो तोडूंक
कश्ट म्हान सोंसले देखून
पावले तुमी जैत जोडूंक

नाच केली पर्वा तुमी
मोगा - रक्ता मनशांची
होमखणांत मारून उडी
सुटका केली भोवसाची

नासलें हातान कसलें शस्त्र
पावला पावलाक झुजतना
ताठ आमची मान जाता
याद तुमची करतना.

थेंब, थेंब गळोवन घाम
रचली तुमी मोतयां रास
आयते राशीर बसल्या कोंबे
उस्तुपाची तांची भास

## अशोक शिलकार

### रुख

तो रुख निर्शेला
मनांत तो खर्शेला
झडट्टात ताचीं पानां पिकून
देखून तो भियेता.
सपनां ताणें रचयल्ल्यांत
फुडार ताणें घडयला
फुडले फावट येवपी आंकरी
तिकाय तो हुस्केला
पितारिल्लीं सपनां ताचो
खऱ्यानिच अर्दिच उल्लीं
आंकरी येवचे पयलीच
कोणें काळान खांदीच माल्ली.

# पावसाच्यो कविता

## शीला कोळंबकार

योरे यो रे पावसा
तुकां दितां पैसा

पैसो आतां उल्लो ना
पावस पडचो थांबलो ना.

पावसाच्या तोंडाक लागली चुट्टी
गावा गावांत आयली बुट्टी

मागीर पावसाक दिलो चेक
पावस सोदूंक लागलो अर्बन बॅंक

पावसाक बांक मेळ्ळो ना
पावसाचो चेक वटलो ना

पावसाक माल्ली भिरभिरी
पावस किंवाटच्यानी उटंगारी

जेन्ना पावसाक दिली बडी
तेन्ना पावसान माल्ली दडी

तें पळोवन सूर्य हळूच
भांगरा वोत सोडी . . .

## दुर्गादास दत्ता गावडे

### पावस रुपां

पावस फुल्ला –
पावस फुल्ला
थंय म्हळबांत न्हय बा
तळयेच्या उदकारी थेम्या- थेम्यानी
पावस फुल्ला बा.

पावस पसवला –
पावस पसवला
थंय शेतांनी न्हय बा
वोताच्या किरणारी थेम्या-थेम्यानी
पावस पसवला बा.

पावस झेमेला -
पावस झेमेला
थंय कॉणानी न्हय बा
काळोखकाळ्या रुखांरी थेम्या-थेम्यानी
पावस झेमेला बा

पावस मदेला –
पावस मदेला
थंय घोटरान न्हय बा
वैल्या-वैल्या कुपांरी चोम्या-चोम्यानी
पावस मदेला बा.

## दत्तात्रय गोविंद प्रभुदेसाय

### सैमाची कळा

मळबांत आयलीं काळीं कुपां
जंय आशिल्लीं धवींच रूपां

कुपां झडयलीं पावस आतां
भुरग्यांनी बांदलीं बोटीक सुतां

मेरेर वसून रावलीं सगळीं
इल्लीं-सुपुलीं भुरगीं धाकटुलीं

लागलो पडूंक पावस शितळ
धर्तरी जाली न्हावन नितळ

रडले बेबे नाचले मोर
सैमाचो आख्खो बदल्लो कोर

सगळ्यांक धादोसकाय करची रीत
सैमाची ही सासणाची नीत

## अरुणा शणै सावयकार

### आयलो पावस

आयलो पावस . . . आयलो पावस
थेंबे थेंबे जमून
काळीं कुपां निवळ करीत
मोतया भाशेन दाणे शिंपीत आयलो पावस.
कुपार कुपां वाजयत गाजयत
सैमाचें गीत गायत
गडगड करीत वाऱ्यावांगडा आयलो पावस.
सवळीं न्हेसली झाडापेडां
न्हाल्यो धुल्यो माड माडयो
चमेली रातराणी परमळ्ळी
कागदाचे पनेळ करीत
भुरगीं-बाळां लागलीं नाचूंक
आयलो पावस . . . आयलो पावस.

## होमखंड

हावे होमखंड पेटयलां उतरांचे
जांच्या आंगात रगत शिवशिवता
तेच फकत लागीं राबात—
आनी . . . बाकिच्या सग्ल्या भिवकुऱ्यांनो
तुमी चलात—घरांत टि. व्हि. लावन बसात.

आयज म्हज्या तितेरांत ज्वालामुखी पेटला
भट्टेन रखरखत्या कागदाचेर
वास्तवतेचे जळटे चुडयेन हांव उज्याची उतरां बरयतां

म्हाका उतरां सोदचीं पडनात
कित्याक तर म्हजीं दुखां वांझ न्हय
म्हजो हावेस सगळें पेटोवन उडोवपाचो
आनी शेतां जळटाना हांव गुलाबां खातीर रडना.

म्हज्या उतरांनी तांक आसा कल्पांतामेरेन चलपाची.
देखूनच चिंतनाचे पालखेक खान दिवपी म्हजीं उतरां—
चलत आसात कोणाचीच पर्वा करीनासतना.
तांचे नदरेंत आसा एक असीम सपन
कल्पनारंजक न्हय तर एक जळजळीत सपन
तुमचे गर्भकुडितल्या देवाचें काळीज चिरून वचपी
आनी सिमेवयल्या पोरन्या वडाच्या पाळामुळांचो
छेद घेवपी सपन.

म्हाका तुमचें सोवळें आयज जळोवंक जाय
तुमच्या हाडांनी रिगलेल्या कर्मठपणाचेर हांव
घुरी घालपाक आयलां
म्हाका तुमच्या प्रतिकाराची पर्वा ना कित्याक तर
हांव कुसक्या चिंतनांची पिळगी ना नपश्चात
करपाक आयलां.

हांवे ब्रम्हास्त्र हाडलां
कुडिंत वाडटल्या तुमच्या गर्भाक लेगीत सोपोवच्या खातीर
हांव कविकल्पनांची वार तोडून, क्रांतीदूत जावन आयलां
कवितेच्या नेमांची फास्की निखळावन आयलां.

हे मनोरंजन न्हय
हांव भौजनांच्या काळजाचो थाव घेवपाक आयलां
देखूनच म्हाका तश्रीपींची आस्त ना
हांवें शब्दसंधान चलयलां
म्हज्या चिंतनांचे होमखंड पेटत आसा
देखूनच सांगता –
येवपी उज्याच्या ऋग्वेदांतले ऋचेन
ॐ स्वाहा म्हण स्वागत करात-तो मेरेन
परतून परतून जल्म घेवपी
फिनिक्स पक्ष्यासारखें
हें होमखंड पेटत रावतलें
आनी पेटयत रावतलें – गोबर जायसर.

---

**दि. ना. नायक**

---

## हांव तोच तूं

हांव तूं . . . हांव तूं
हांवपणाचो हावेस मोटो
म्हजेपरस कोण गा तो मोटो

हांव तूं . . . हांव तूं
हांव तो बुदवंत मोटो
तूं मात अकलेत थोटो

हांव तूं . . . हांव तूं
बरें तें सगळें हांव करता
वायट तितलेंच तुजें म्हणटां

हांव तूं . . . हांव तूं
हांवपणाचो हावेस मोटो
तुजे मोटेपण मानप जमना
हांव ती कमीपणा घेंवचोना

जाल्यारूय हांव 'तो,' तुजे नदरेन
'तूं' जाल्याबगर रावचोना.

# चार कविता

अरुणा राव

**सॉप्पन**

चिम्मी दोळे
सॉप्पन पळे
नीळ आकाशांत
बांदल्यात झोपाळे

ऊंच झुंइयो
तोगु झुंईयो
नाजुक पऱ्यो
घेत्तात झुंईयो

सुटल्यो दोऱ्यो
पळ्ळचो पऱ्यो
मऊ मोडारी
करताती मोइयो

चिम्मी दोळे
सॉप्पन पळे
नीळ आकाशांत
बांदल्यात झोपाळे

## इंद्रधनुष्या पूल

सूर्याने आकाशांत बांदलो इंद्रधनुष्या पूल
मोग्गा पऱ्यांक पेलतडी वोचूक
पऱ्यो पुलारी नांचल्यो
नांचतना रंगु पुसलो
सूर्याने सटकन् पूल दवरलो मडचून

---

## सृष्टितुलें संगीत

तुमी आयकल्यां वे ?
पावसालें सतार
वाऱ्यालें गीतार
वीजेने वीणारी वाजौंच्ये केदार ?
मॉडांगेलें मृदंग
झाडांगेलें सारंग
टप्‌टप् थेंब्यांनी वाजौंच्यें जलतरंग ?

---

## झाडाने आपैलें वाऱ्याक

एकफंता एका झाडान वाऱ्याक
घरा आपैलें भोंवऱ्याक
वारें आयलें धांवत धांवत
झाडांत घुंवलें पद म्हणत
झाडावेलीं फळं पान्नं फुल्लं लागलीं डोलच्याक

## शशिकांत पुनाजी

### एक चीट

प्रिये,
हांव आयज,
पावसांत भिजून गेलां
स्रावणांतल्या दडकांनी
मन म्हजें व्हांवून गेलां
प्रिये,
तेऱ्या पानार खेळपी मोती
तुज्या पोंश्यान दिवंक सोदी
पूण थंय पावचे पयलींच
तो निसरोन पडला
प्रिये,
उदक दाटिल्ल्या हारश्यार
हांवे तुजें नांव बरयलें
पूण, धावपी जग पळोंवक
कोणे तरी तें पुसून वडयलें
प्रिये,
अशेंच हांवे नांव बरयलें
चोरयां तुज्या कादेनार
ते पानूच कोणे कोंचून काडलें
व्हडें करून सोडून दिलें
प्रिये,
तुजें नांव वण्टीवेल्या
पांचव्याचार शेळचार कोरायलें
पूण खिणा खिणा वाडपी शेळयान
तें काय तेंपान नाच् जालें
प्रिये,
देखून नांव कोरयलें,
घुस्मटपी मना शिळेर
निदान आता तरी तूं येवन
ताचो उध्दार कर !

## प्रकाश रमाकांत वजरीकार

### श्राध्द

तुजें नक्षत्रांचे देणें,
म्हज्या काळीज मळबांत.
तुज्या स्वसांच्यो यादी,
म्हज्या मनाच्या गर्भांत.
तुज्या काळजाचे सूर,
म्हज्या काळीज विणेंत.
नक्षत्रां तुवेंच दिल्लीं,
नक्षत्रां तुवेंच व्हेलीं.
स्वास तर तुजेच ---
पुण म्हजो घुसमटमार
काळजाचे सूर.
आतां काळोज – विणाय बेसूर
पाना पानार घडी घडी
म्हज्या मोगाचें श्राध्द.

## कालीदास घटवाल

### वगीच कित्याक ?

येवपाचेंच जर आसलें तुकां
न्हंयकार तुजो पयलीं कित्याक ...
आयल्या उपरान्त तुजें तूंच
"सहजूच आयलें" म्हणप कित्याक ...

काळोखाचे निमीत काडून
बेठेच तेकून चलप कित्याक ...
वेंगेन येवचें आसा तर
थंडेचो आदार कित्याक ...

केसांतल्यान भोंवडायत बोटां
"रागार रे" प्रश्न कित्याक ...
वठांचो लागसार जायतर
कानान सांगपाचे "सवंग" कित्याक ...

**वेध** **निलबा अ. खांडेकार**

तरनाटो नवोदित कवी निलबा अ. खांडेकार हांगेलो हो पयलोच कविता संग्रह गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'लेखकाचें पयलें पुस्तक अनुदान येवजणे' खाला छापला. चोंयवशींच्या घडणुकांचो वेध घेवपाचो यत्न करपी सामाजीक आशयाच्या कवितांचो ह्या संग्रहांत आसपाव जाला. एकूण ६६ कविता आसात. मुखपृष्ठ राजीव शिंदे हाणी काडलां.
उजवाडावपी : सुरू प्रकाशन, दोंगरी - मंडूर, गोंय.
पानां : ११५,
मोल : २२ रूपया

**मोगापेलो** **मेल्वीन रोद्रीगिश**

मंगळूरचो तरनाटो कवी बाब मेल्वीन रोद्रिगिश हांगेलो हो पयलोच कविता संग्रह उजवाडाक आयला. संग्रह कन्नड लिपयेंत आसा. कवीन १९८३ सावन बरयिल्ल्या एकूण ४६ प्रेमकवितांचो तातूंत आसपाव आसा. नामनेचे कवी चा. फ्रा. दिकॉश्ता हांगेली प्रस्तावना संग्रहाक लावल्या. संग्रहाची मांडणी आकर्शक आनी छापणावळ नकसूद जाल्या. कविच्या बरेंमागत्यांनी कविता पुरस्कृत केल्यात, तांचो दर कवितेखाला उल्लेख आसा. कव्हर डिजाइन आनी स्क्रीन प्रिंटिंग जगदीशअम्मुज हाणी केलां.
उजवाडावपी : प्रगती प्रकाशन, फातिमा रिट्रीट हावस,
मंगळूर - ५७५ ००२,
पानां : ५२+८,
मोल : १५ रुपया.

# कुळागर प्रकाशन

विखंड जाल्ल्या कोंकणी समाजाचो
भास आनी साहित्याच्या आदारान
सामाजिक आनी सांस्कृतिक अेकचार
घडोवंक वावुरता

**आमचीं नेमाळीं**

**कुळागर** : साहित्यिक मासीक
**ऋतु** : कवितेचें द्वैमासीक

**आमचीं पुस्तकां**

**सासाय** (कविता) बाकीबाब बोरकार
**गजालींचें नाटक** (नाटक) अना म्हांबरो
**उश्णी वायणां** (संकलन)
**पणजी आतां म्हातारी जाल्या** (कथा) अना म्हांबरो
**व्हंकल पाव्हणी** (कथा) चंद्रकांत केणी
**[illegible]लांचें झाड** (कविता) शंकर रामाणी
**बिम्बां पडबिम्बां** (ललीत लेख) चंद्रकांत केणी
**गोमती** (नवलीका) नारायण वादोळकार

**कुळागर प्रकाशन**
पो. बॉ. नं. ७८ - मडगांव - गोंय

मुखपृष्ठ छापणावळ : अपुरबाय प्रिंटर्स, वळवय - गोंय